वर्स : दोन : अंक दोन वसंत अंक मार्च / अप्रील १९८४

# ऋतु

कवितेचें कोंकणी द्वैमासीक

संपादक : पुंडलीक नारायण नायक

मुखपृष्ठ आनी मांडणी : दिगंबर शिंगबाळ

छापपी आनी उजवाडावपी : नारायण वादोळकार
कुळागर प्रकाशन, पो. बॉ. नं. १०९, मडगांव ( गोंय ) ४०३६०१

छापणावळ : हिरू नारायण नायक, अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय, गोंय

संपादकाचो पत्तो : पुंडलीक नारायण नायक,
वळवय, सावय-वेरें, फोंडें ( गोंय ) ४०३४०१

अंकाचें मोल : २ रुपया वर्सूकी पटी : ( विशेशांकासयत ) १२ रुपया

Valvoy,
Savoy Verem
Phodem, Goa - 403401

**मांडावळ**

पांडूरंग भांगी
मेल्वीन रोड्रीग्ज मेळ
चर्च कांपौंड
कुळशेखर पोस्ट
मंगळूर - 575005

ग्लेडीस रेगो
ग्लेडीस रेगो
कुळशेकर
२०७९६०

## पांडुरंग भांगी

कविता

### खुनाचीच धुंदी

सुकिल्ल्या पाल्यावरी
रग्ताक आज मोल ना.
कडयल्ल्या तिख्याचो
तप्त रोस
आमची आहुती घेवंक
मदिमदीं अुसळटा
अग्निकूंड पेटयतल्यांचोच
आज जयजयकार जाता.

केन्नाच्यान कुसत आसात
भावांनींच भावांक मारून
तांचीं अुडयल्लीं प्रेतां,
तांकां मुक्ती दिवंक
गिधय धजनात येदी दुर्गंधी –
तरी आमच्या दोळ्यांत
अेकसारखी चडतच आसा
खुनाचीच धुंदी !

# माधव बोरकार

## पांच कविता

### १

कितली तुका
समजांव !
तूं तर आतां
समजावणेच्याय पेल्यान उबो
निळ्या दोंगरांवळींच्या पलतडी
फांतोड्डेर पडिल्ली
मळबाच्या मोनेळीची
गच्च धुंवरी कशी ....

### २

याद तुजी उदेता
उतरां फाटल्यान
खुबलीं मोडार मोडां
स्वासां स्वासांतल्यान ....

कितल्यो सोंसच्यो वेणो
जन्म गोठेले दोळ्यांनी
बुडली दिसाची धार
प्राण मेटले कळ्यांनी ....

पालेतना रंद्रां अशीं
झोंबली खोल कळ
बसाडींतल्या तारवांनी
हुपली मळबा वळ ...

३

पावले सगळे फुडें
हांव मात अुल्लों फाटीं
मुळसांत पावलों
जाली सुरु तेन्ना घांटी.

मुखार दोंगर घळी
वाटेची सांडली नाट
पावल घालता थंय
कोंसळ्ळे सगळे घाट.

सरुन सरना भोग
कितले जन्माचें पाप
मध्यानेचो चंद्र तरी
शितळना अुतळताप ....

अुबो जन्म पोशांतलो
ओंपता तुज्या पायांर
तूंच धर शितळ तुजी
सावळी म्हज्या घायार ...

४

पेटूं दी काळोख सगळो
म्हज्या प्राणाच्या चडीन
ब्रतां अुजयलीं जन्माचीं
ह्या मातयेच्या कुडीन ....

५

तृप्त तुडुंब मन
पांचवो पर्मळ पिवून
शिरशिरलीं रानां
रंद्रां झंकारुन ...

## शंकर रामाणी

कविता

**प्रिय...**

१

कित्लीं वर्सां जालीं:
तुजी–म्हजी भेट ना.
जाल्यारूय आतां आमी
अेकामेकांक पैसावल्यांत
अशें दर पत्रांत
तूं कित्याक म्हण्टा ?
आमच्या दोगांत तशें
मार व्हड अंतर ना.
फक्कत मदीं आड येता
तो पावस्–गीम
धुक्यांत धुंवरेल्लो
मोड्णामोड्णांचो घाट.
आनी उजवेवटेन मात्शें
सकय्‌ल पळेल्यार दोळे घुंवतात
अशी अजापाची
निळ निळ्शी खोलाय....

२

खऱ्यानीच
आमी अेकामेकांक पैसावल्यांत
अशें हांव म्हणना.
हांगासल्ले मातयेक
वेगळो असो वास ना.
तुगेल्या पोरसांत
भोंवर मारपी वारो
म्हज्याय आंगणांत
केरवो नाच करून वता.
मळबय तेंच.
अुजवाड साप्प थोडो
आनी काळोख गुपाट
आमकां दोगांकय
सारको वांटून पडला
मात जे म्हजे वाटेर
फाट करुन अुबो आसा तो
फक्कत घाट आनी
अथांगाचो घोट घेवन पातळेल्ली
आकांताळी खोलाय.
म्हणून घडयें
तुजी–म्हजी भेट ना !

३

वर्सां संकिणी
तुजी–म्हजी भेटच ना
हें तित्लेंशें खरें न्हय,
हांगां केन्नाकेन्ना
म्हज्या तनेरीच्या झाडाक
अवचित नवी आंकरी फुट्टा;
झाड आठय आंगांनी पालेता,
चंवरता आनी
ताचे पांचवेचार सावळेंत,
पैंस आनी लागीं
घाट आनी भिरांकूळ खोलाय
ह्या शब्दांचो अर्थ
म्हज्यां काळजाच्या कोशांत
'तूंच' असो मेळटा.
खरें म्हळयार:
तेन्ना तूं म्हज्या म्हऱ्यांत
म्हाका वेंगून आसता....

## जे. एस. स्वामी सुप्रिय

कविता

### शेज्रा आमि रावोलीं

शेज्रां आमि रावोलिं
वज्रां मोत्यां माण्कोलिं
काज्रां मरणांत मेळोनि
वाड्ल्यांव मोगान आमि

पान्सा दोवांत भिजोलिं
वोता धावांत सुकोलिं
दुकां पुसुन हासोलिं
एकामेका आमि

तुम्चा मोग्रे कळयां व्हाळो
आम्चा सोप्यार गुंतुन दिलो
थांब्चा फुडें आब्रा दाळो
एक्वट जालो जिवो

आमि हातिं घेतिलि कामां
तुमि दिवुन हाताक हात
घामांत आम्चा मेळयलो घाम
तुम्चो उदार्पणि

ल्हानां व्हडां भुरगिं बाळां
मना जोकित फुलां फळां
माना वरतिं वांट्लिं बळां
शाबित आम्चि मुळां

शिंव्तिं मोग्रि आबोलिं
भंव्ति तुम्गेर सोभलिं
धांव्लि वरसां धावलिं
काळजां उमाळलिं

( ' आन्या आकय ' काव्य संग्रहांतल्यान )

# संत सहजानंद महाराज

## अभंग

फाल्लें जाल्लें वाटया वाळ्ळें योरे जेंवच्या।
धार काळि़ळ दूध हाळ्ळें तानेक दिंवच्याक ॥ धृ ॥

उटटारे बाळा वेळु जालो वासरां सोडच्याक ।
चेरडवं आयलि चेंडू घेवनु पळे खेळच्याक ॥ १ ॥

चंबु भोनुं हाळ्ळा पळे तोंड धुंवच्याक।
मिट्टा पुडिड तयार केल्लि दांत घाशच्याक ॥ २ ॥
पंजि घेवनु तयार जाल्या आंग पुशच्याक।
कानडि घेवनु धावनु आयिल्या तोंड चोंवच्याक ॥ ३ ॥
म्हाबल भट्टू आयला पळे पंचांग सांगच्याक ।
दांतोणि तेल घेवनु आयिलि शेंडि वळोंवच्याक ॥ ४ ॥
फूल घेवनु राधा आयलि शेंडियेरि माळच्याक।
गांध घेवनु कुब्जा आयलि तुक्का लांवच्याक ॥ ५ ॥
अक्षत घेवनु यशोदा आयलि तीळो कोरच्याक।
होडोळु जाल्लो योरे बाळा उम्मा घेंवच्याक ॥ ६ ॥
श्रध्दा यशोदा भाव नंद तो बोध कृष्णाक।
लीला कोर्नु दाकैता ती जग तारच्याक ॥ ७ ॥
केवल तो ज्ञानांद सहजानंद चोंवच्याक।
तळमळ कर्ता गोळोवनु आपण वर्णना कोरच्याक ॥ ८ ॥

( 'संतवाणि' भाग २ वयल्यान )

## प्रकाश पाडगांवकार

कविता

### हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां

हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां

जीव दुसऱ्यांचेर पातयेवन आंवडेवची सुरक्षताय
अशी खंय हांगा खूण मनीसकायेच्या भारपणाची ?
आरे कायद्याचे राखणदारच हांगा
साता जल्माचे दुस्मान कशे
सोरपावरी केन्ना दंश करीत हाचो नेम ना !
देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां !

ही धर्मा-धर्मांची कुशीन कुशीन प्रार्थनेची थळां
आनी जाती- जातींच्यो वेगवेगळयो संघटनां
हे जाती-धर्मांच्या नांवान
मनशा मनशांक वेगळावपी अड्डे कित्याची गरज ?
हांच्या कुशीच्यान वतना केन्ना केन्ना
फुलता कांटो भिरांतेचो
आनी कळना खंयचे खिणां फुरफुरत किट व्देशाची
आनी पेटत झूज कौरव पांडवांचे कशे
देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां !

आनी खरेपणी धर्म म्हळचार कितें ?
कितें ताची व्याख्या ?
हांव आतां तर ह्या निर्णयार पावलां.
धर्म म्हळचार साबार पंगडांच्या मुखेल्यांनीं
आपणाल्या सुपीक तकलेतल्यान
आपल्याक जाय तसो मांडिल्लो कल्पनेचो बाजार
जाचो सोपेपणी लागना अर्थ कोणाक
आनी गावना जाप मुदयेर थीक कशी
देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां !

आरे आयच जियेवप्य जाला भिरांतेचे
आनी चार चौगांत भोंवता अुलयताना
कळना केन्ना बाँब फुटचो तशे
जायत कुडके कुडके ह्या कुडीचे,
जनरेटराचो फ्युज गेल्लेवरी पडत कूड निष्प्राण.
मेल्ल्या नुसत्यावरी अुफेत कूड दर्यार
वा ल्हासून ताचो जायत कोळसो खंयच्याय खिणाक
देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां !

कसाय जसो हातांत सुरो घेवन
सांगता गजाली बोकडेक अभयाच्यो
तशी ही शांततायेचो अुद्घोष करपी राष्ट्रां
निर्मितात भिरांकुळ शस्त्रां
मनीसकुळयेच्या विध्वंशाच्या मुळाचीं
आनी जातात गिरेस्त तीं विकून
जांका मनशां वांगडा शारां शारां मातयेभर्वण करपाचो स्त्राप आसा
देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां !

## युसूफ अ. शेख

### गीत

ही रात अशी शांत सतैतल्या यादींची
कांय शेश फकत खीण तातूंत ऊब भोगाची

हीं धुंवळ हाडपी बखदां कानी लासपी सिगरेटी
मूर्त तुजी जिती तातूंत जित्याक मारपाची !

ही शांत म्हॊंवी सांज आनी रात चान्न्याची
कूड जिती आसा तातूंत मेल्ल्या सप्नाची !

हो चिडपी म्हजो राग आनी संवंय तिडपाची
चीड खंयची तातूंत किंव ह्या घुसमटमाराची !

# रमेश भगवंत वेळुस्काराचे

## अभंग

१

खिणा खिणाक म्हजी
जीण अशी जळटा
फूल झडोवन फळटा
सैन्‍रुपा ॥ १ ॥

खिणा खिणाक मर्ण
खिणा खिणाक जीण
असो मरणांक र्‍ीण
गिन्यान भर ॥ २ ॥

येता तितलीं येंव
वयले वयर मर्णी
फुलां कशीं सर्णी
झलीन गा ॥ ३ ॥

२

हांगा आसा फुलां
थंय आसा फुलां
जण काळाच्या सकाळीं
फुलांच फुलां ॥ १ ॥

तरेक तरांचीं
फुलां परमळाचीं
आनी तरेक रंगाचीं
मोगयाळीं ॥ २ ॥

हांव फुलां वेंचतलों
घेवन घरा वयतलों
आनी खोप्यांत खोयतलों
आवयच्च्या ॥ ३ ॥

३

कोण्या किरणाचें बियाणें
अशें मातयेन धल्लें
आनी कुशींत पिकयलें
हांव म्हणून ॥ १ ॥

हांव म्हजे म्हाका
नागड्यानीच दिस्ता
तेजाबूय फसता
चोवन म्हाका ॥ २ ॥

हांव म्हजे अुदेंते
रंग किरमजी किरमजता
पाळां - कळयो - फळां भोंवता
नारदापरी ॥ ३ ॥

हांव म्हाका सोडून
धा गा आंगळां अुरता
चैतन्याची कास धरता
रंद्रा रंद्रांत ॥ ४ ॥

आनी केन्ना केन्नाय
येता रंद्रूय म्हजें पिके
हांव चैतन्याचे भिके
समर्पण ॥ ५ ॥

४

गगन दिकांनी
म्हजें मन रे मगन
गगनाचें धन
मेजूं नज ॥ १ ॥

मेजूं नज ताचें
जालें अेक तत्व
कित्याचेंय महत्व
अेक सारकें ॥ २ ॥

५

धर्तरेक दिलें तुवें
किर्णा प्राणाचें रे सत्व
तिच्या कणाचेंय महत्व
कोंबरेलें ॥ १ ॥

कोंबरेली तिची काया
फुलते फळते कुशीची
फुलां घुंगूर मायेचीं
सर्वंय दिकांनी ॥ २ ॥

फुलत्या फळा फागराक
तुज्या प्राणाचो रे आस
अनवळख्यानिच हे भास
आस्तित्वाचे ॥ ३ ॥

६

जिणे खिणाच्या घणानी
म्हाकां नाका थंय कापलो
असो म्हज्यांतलो सोसलो
खीण जल्मा ॥ १ ॥

अशी कांळाच्या झिन्यांची
मेळटा काळाकूच खबर
मागीर बाकिच्यांक बदर
काळखीण ॥ २ ॥

अशा कला कुसरींची
म्हजी भितरग्यान मूर्ति
तिची पोकोळ गा कीर्ति
मळवायेदी ॥ ३ ॥

७

जें जें तुजें आसलें
तें तें तुकां दिलें
वजें रितें जालें
मनातुलें ॥ १ ॥

पाखां परसूय आतां
येता ल्हवसाण
जीण आनंद निधाण
धाय दिकां ॥ २ ॥

म्हाकां विसरुन वयतां
तुकां सर्वंगीं कातोवन
धुणू वयता गाजोवन
पयल्या पारा ॥ ३ ॥

८

काळी काळी पाटी
काळी काळी काडी
धवें अक्षर काडी
चमत्कार ॥ १ ॥

काळे काळे पाटयेर
चिरी श्री गणेशा
जिती म्हजी भाशा
माये मुखांत ॥ २ ॥

काळे काळे पाटयेर
आसा अुतरांच्यो राशी
जीव करात धादोशी
गिन्यानान ॥ ३ ॥

काळे काळे पाटयेर
आसा आमुरपिकीं तोरां
जीब गळयतात पोरां
गोड लाळेन ॥ ४ ॥

काळे काळे पाटयेर
आसा चिंचेचीय बोटां
जीण आनंदाचीं माठां
भुरगेपण ॥ ५ ॥

काळे म्हजे पाटयेर
येंव पालेवन शाणपण
सर्वय गिन्यानाची खण
ल्हानपण ॥ ६ ॥

## ९

भुरगें खिदळटा वेळेर
ल्हार दिमकुऱ्यांनी नाचता
ल्हार हांशानी गाजता
भुरग्यावरी ॥ १ ॥

ल्हार तुकु तुकु चोयता
आपले आपुणूच मुर्गट्टा
ल्हार भुरग्याकय लजता
तकली बागोवन ॥ २ ॥

भुरगें म्हणटा दर्याक
हांवूय अेक ल्हार
देखून जिणेक सार
दर्याचें ॥ ३ ॥

## १०

कोण अुज्वाडाचो धनी
ताणे अुज्वाड गा दिलो
हांवे संसार चोयलो
ताका लागून ॥ १ ॥

संसार नदरेचें
सांगा कितें नातें
मन कशें जाणा जातें
हांव नकळो ॥ २ ॥

त्या गा अुज्वाडाच्या बळान
म्हज्या शिरत्रांत शक्ति
म्हज्या अभिमानांक नसतीं
कित्याक मोठेपणां ॥ ३ ॥

आगा अुज्वाडाच्या धनया
म्हजे लासून अुडय वळ
म्हजें चळ मात्शें जळ
अुज्वाडान ॥ ४ ॥

तुज्या अुज्वाडाचें धन
तुकांच परत ओंपतां
आतां म्हजें काम सोंपता
आपले आपूण ॥ ५ ॥

## काशिनाथ शांबा लोलयेकार

### दोन कविता

### ॥ एक सेल्फ न्यूड पोर्ट्रेट ॥

(साल्वादोर दाली आनी सावित्री रामन हेंच्या सेल्फ न्यूड पेंटींगजाकडल्यान स्फूर्त घेवन.)

बारीक
किडकिडीत
लांव लांव
लांब लांब हात
लांब लांब पाय
पोट फाट अेक
सुकलेलें तोण
दोळे फोणाक
दोळ्यार इस्तीचें वक्ल
माथ्यार केसांचें जंगल
फुडले दात मात्शे भायर
काळो सावळो
कुलेबिले कांय ना
छातीबिती कांय ना
छातयेक अेक केस ना

उजव्या मांडयेर अेक तीळ
पोटाक अेक खोल बोमलेचो बुराक
त्या बुराकाकडल्यान
ल्हवेची अेक बारांक काळी रिस्क
लव्हूच
सकयल
देवल्या
सकयल शेटांसून तिडक मारपी
काळीविद्र शेटां
आनी दोन मांड्यामदीं
तें सकयल कितें
लोमता
कावळो झपय मारता

॥ गर्दी ॥

अेक म्हणजे काशिनाथ
दोन म्हणज शांबा
तीन म्हणज लोलयेकार
काशिनाथ शांबा लोलयेकार
इन मिन तीन
तीन ही गर्दी
गर्देभोवतणी उदक
आनी
गर्देत जीतो मूस ना

# तेनसिंग रोद्रीगीश

कविता

## जीण व्हाळतना

जीण अशीच
व्हाळून गेली,
काळाच्या तडीं मदें,
कोणें कोणें
वलयलीं व्हडीं,
भावांच्या हुंवारांनी ...
यादी आतां
आतिताचीं रुपां जाल्यांत.

मेजली कोणें
आयल्लीं सुखां;
मेजली कोणें
आयल्लीं दुखां;
चलतां चलतां,
पावलांचीच वाट जाली.
खंयचे दवरनें
पावल्ले कडे;
कितलीं वर्जी
ह्या भुजांर सांवरलीं.
उरल्यांत खिणा
सरल्ल्या खिणाचीं;
मोगाच्या, भोगाच्या,
त्यागाच्या, रागाच्या.
शिण मात नांत.
पार गेल्ल्या जिणेंचे.
धनया. तुजीच कृपा

फायचोय आतां भंय दिसना;
मन संवकळलां
सुखां दुखाक.
पावलां थिरल्यांत.
भुजां बळल्यांत.
दिक जरी नासली,
वाट चलची तांक आसा
पावयत थंय पावत जरी,
पावल्ल्याचें समाधान मनाक.
जीण अखेर
अशीच व्हाळची.
काळाच्या तडिमदे;
खंयच्यान खंय तरी.
धनया, तुजी [illegible].

## अरुण साखरदांडे

कविता

### फुलां फुल्लीं फुलां

म्हज्या आयुष्याची माती जाली
तेन्ना ते मातयेंत हांवें
रक्तासारकी फुलां दिवपी
एक गुलाबाचें रोपटें रोयलें
ताका अपुरबायेच्या दुकांचे
उदक शिपलें –
आनी कितें सांगूं ?
ताका आतां कितल्योशोच कळयो आयल्यात
फुलां फुल्ल्यांत
हें एक बरें जालें आं ...
म्हज्या आयुष्याची माती जावंक नाशिल्ली जाल्यार
ही फुलां कशी फुलतलीं आसलीं ?

## विजयकुमार कामत

कविता

### उतरां

म्हज्या अुतरांक आयला कॉल
अुतरांक म्हज्या आयलां मोल
अुतरां म्हजीं सादीं तशीं
सामकी गरीब गाय कशीं
ताणीं केन्नांच केलें ना बंड
तांका लागून केन्नाच कित्यात पडलो ना खंड.
ओगीच कोणाक तोखेवप ना
ओगीच कोणाक दुखवप ना
अेक खरें-सत्य मात
सांगलेबगर रावप ना
म्हणून म्हज्या अुतरांक केन्नाय
कोणूय संवतात गाळी
तशोच तांच्या गळयांत केन्नाय
पडटात फुलांच्यो माळी
केन्नाय म्हजीं अुतरां
बणखणींत पडटात
केन्नाकेन्नाय तशींच तीं
सिंहासनाच चडटात
पुण जाली म्हणून तांका ख्यास्त
हांव केन्ना निर्शोना
सुखानलेगीत तांच्या केन्ना
मन म्हजें भुल्लुसना.
हांव मानतां अेकूच
आमचेभितर नातें
जगतां हांव तांकालागून
ताणीं म्हजेखातीर जगचें.

## लोकगीतां

१.

आला निकंडार सोबे
केला नमस्कार

२.

आंगुल्लेच्या बोटाक गे माये
भिंगुल्लेची मुदी

३.

ये सबेहुजीर
म्हाका दिगो अुतर



ये सबेहुजीर
मीणा लज काडूं नाका
काडटलीं मोचो
तुजो फोडटलीं बोचो

४.

मोगरेच्या झाडाक फुल्ल्याय कळे
हे लोक म्हाका मोट्टाय दोळे

५.

गळयांत आमच्या पोवळयांच्यो सरयो
पळयल्यार दिसता बामणाल्यो चलयो

६.

एक एक उशी गे नारी
दोगांकची करतां खुशी

( 'जागर' या कोंकणी लोकनाट्यांतल्या नृत्यांतल्यो कांय वळी )

# उमेश म. सरदेसाय

शिशु कवनां

**सुण्या, सुण्या......**

सुण्या, सुण्या हाडा कुडके
चाबित्त कित्याक रावता ?
काटो लागुन, पिश्या भाशेन
मागीर सगळ्याक किदें धांवता ?

दुश्टावरी बेठोच कित्याक
बिलुक थरथरायता ?
चिमुटभर त्या जिवाक ताच्या
कित्याक कलकलायता ?

सांगता तुकां, वाटसुऱ्याचेर
रागान तिडत रावशी !
गाळयो तांच्यो घेवन
मागीर अुदृश्टाक पावशी !

दिसभर भोकुन, भोकुन
ताळो तुजो पडटलो !
रातीवेळार चोरांचेर
सांग मोठ्यान कोण भोंकतलो ?

**आमगेर आसा......**

आमगेर आसा कुतू अेक
भोंकता दीस-रात !
आमगेर आसा बिलू अेक
दिसभर आंग चाट !

आमगेर आसा माकोड अेक
वरशे करता दोळे !
आमगेर आसा काको अेक
चोरता नाल्ला-वळें !

आमगेर आसा सोंसो अेक
काल गोरी, गोरी
आमगेर आसा घोडो अेक
धांवता वाऱ्यावरी !

आमगेर आसा पाडो अेक
खाता पांचवो चारो
आमगेर आसा बाबू अेक
गोरो, गोरो, गोरो !

## पंढरीनाथ दा. लोटलीकार

### देशगीत

हे मातयेचे पूत आमी घेवूया सोपूत आज
पुण्याय भूंयची नमपावी धरतले सदांच आस ...

नक्षीदार वेस भेस
रंगयाळी ही माती
तरेकवार लोकांमदें
भिन्न रंग जाती

धीट-मूट, जैतिवंत
झुजारी आमी खास
चलचे वाट अेकठांय जावन
विसरुन भेद-भास ....

महंत संत वीरांची
ही भूंय किर्तीवंत
जन्म घेवपी हांगच्या
मातयेंत खरेंच पुण्यवंत

रामअल्ला, येसूची
गावया व्हडवीक खास
जात कात धर्म
असले विसरुन भेद-भास ...

('तांकां आमचें नमन' ह्या संगीत रुपकांतलें गीत)

## नवीं पुस्तकां

---

**निरांजन** — राम बाळकृष्ण प्रभू चोडणेकार

राम बा. चोडणेकारांचो 'उमाळो' उप्रांतचो हो दुसरो काव्यसग्रह. सग्रहांत वेगवेगळ्या विशाया वयल्या पस्तिस कवितांचो आस्पाव आसा. पुस्तकाक कवी मनोहरराय सरदेसाय हांगेली प्रस्तावना लाबल्या. प्रकाशक : स्वस्तिक प्रकाशन–कुडचडें-गोंय, पानां : ५५, मोल : स रुपया

---

**गीतांजली** — अणकारपी : रा. ना. नायक

कवी रविन्द्रनाथ ठाकूर हांच्या संवसारभर नामना पाविल्लया 'गीतांजली' काव्याचो, सर्गेस्त रा. ना. नायक हाणी आपणाले शैलीन केल्लो अणकार. प्रकाशक : कोंकणी कलासागर प्रा. लि. सांताक्रुझ–मुंबय, पानां : १०३, मोल १५ रुपया

---

**जीवन संगीत** — रत्नाकर आनंद शणै

रत्नाकर आनंद शणै हांगेलो हो सुपुल्लो कविता झेलो कन्नड लिपयेंत उजवाडायला. तातूंत सुमार ३४ कविता आसात. प्रस्तावना बी. व्ही. बाळिगा हाणी बरयल्या. प्रकाशक : कोंकणी लव्हर्स, उषा, ६ वी मेन, १५ वो क्रॉस मार्ग, मल्लेश्वरम, बंगळूर ( कर्नाटक ) पानां : २२, मोल , ३ रुपया

---

**चानी मामा** — रमेश भगवंत वेळुस्कार

आजचे आघाडीचे तरुण कोंकणी कवी रमेश भगवंत वेळुस्कार हांचो 'भुंक भुंक भिशु' उपरांतचो हो दुसरो बालकवितांचो संग्रह. प्रकाशकान भुरग्यांखातीर तयार केल्लया आठ पुस्तकांच्या संचांत उजवाडायला. प्रकाशक : राजहंस वितरण, पणजी–गोंय, ४०३ ००१, पानां ३६, मोल : ४ रुपया

---

**आमच्या गोंयांत** — कवनी रामभाऊ

कोंकणी नाटककार रामकृष्ण जुवारकर हाणी कवनी रामभाऊ या नांवान उजवडायिल्लो हो कविता संग्रह. तांगेलें हें रौप्यमहोत्सवी म्हळयार २५ वें पुस्तक. गोंयांतल्या सामाजिक, राजकीय, सांस्कृतिक परिस्थितिचेर या पुस्तकांत उपहासात्मक टिका आसा. प्रकाशक : शणै प्रकाशन, वेलींग, गोंय. पानां : ३८, मोल : ४ रुपया

---

## साद

वामन जिवबा नायक प्रतापराव सरदेसाय

कवीचो हो पयलोच कविता संग्रह. विविध विशया वयल्या कवितांचो तातूंत आस्पाव आसा. शणै प्रकाशनाचें हें २५ वें पुस्तक. पानां : ४८, मोल : आठ रुपया.

## चारां

र. वि. पंडित

नामनेचे कवी डॉ. र. वि. पंडित हांगेलो हो ल्हान ल्हान कवितांचो संग्रह, ल्हानूच पटयेच्या आकारान उजवाडाक आयला. पंडितांचे आजवेरच्या परंपरेक सोब सारख्यो तांतूतल्यो रचना आसात. प्रकाशक : शणै प्रकाशन, पानां : ४८, मोल : साडेपांच रुपया

## माकडाची मजा

अभयकुमार वेलींगकार

नवोदित बरोवपी अभयकुमार वेलींगकार हाणी भुरग्यांखातीर बरयिल्ली ही कवन काणी. 'दुबळयांचेर अन्याय करचो न्हय' अशी देख भुरग्यांक दिवपाचो यत्न हे कवन काणयेंतल्यान अभयकुमारान केला. प्रकाशक : शणै प्रकाशन, पानां : २०, मोल : २ रुपया

## चिरमुल्यो

कमलादेवी राव देशपांडे

कोंकणी बालसाहित्याच्यो रचनाकार आनी पणजी आकाशवाणी वयल्यो भुरग्यांच्या कार्यावळीच्यो निर्मात्यो (आतां निवृत्त) कमलादेवी राव देशपांडे हांगेलो हो बाल कवितांचो संग्रह नागरी आनी रोमी अशा दोनय लिपयांत उजवाडाक आयला. पुस्तक चित्रकार दत्ता नावेलकार हांगेल्या सुरबुस चित्रांनी सजलां. कवी मनोहरराय सरदेसायांची सुपुल्ली प्रस्तावना आसा. प्रकाशक : संचालक, खेळ आनी सांस्कृतिक खातें, गोंय, दमण, आनी दीव सरकार, ५ वो मजलो, जुन्ता हाऊस, पणजी गोंय. पानां : ४८, मोल : छापूंक ना.

## 'संदर्शन' आनी 'वाल्मीकी'

रमेश किलपाडी

'संदर्शन' आनी 'वाल्मीकी' अश्यो दोन लांब कविता आशिल्लें हें पुस्तक बेंगळुर सावन उजवाडाक आयलां.

# RURAL DEVELOPMENT AGENCY - GOA

Helps the unemployed rural youths by imparting vocational training in various trades, such as Embroidery, Tailoring, Carpentry, Motor Mechanic, Pottery etc., of 6 to 12 months duration. During the training period stipend of Rs. 50/- to Rs. 100/- per month is paid.

On completion of the training, the Agency further assists to provide tools and equipments to start one's profession to earn their livelihood by granting subsidy of 33 /3% limiting to Rs. 3,000/- on capital cost and the balance by loan of financing institution at low rate of interest.

For further details, contact the nearest Block Development Officer or the Rural Development Agency Panajim - Goa

Issued by :
RURAL DEVELOPMENT AGENCY -



MS. Gladys Rego,
Glad Villa, Carmica Colony,
Shakthinagar
मंगलूर - 575

# WE ARE DEEPLY INVOLVED

dedicated

Today we are deeply involved
in all nation - building activities.
with a large network of branches
throughout the length and breadth
of our nation, we are helping
to eradicate poverty and working for
upliftment of the weaker sections, scheduled
castes and scheduled tribes. we are
implementing integrated rural development
programme/20 point economic programme.

Help us mobilise resources for national development

Manjula

**SYNDICATE BANK**

Where Service is dedicated

J. B. Morals
No. 13, RITZ
Convent View
Co-operative Housing Society
N. B. Patel Marg

मुखपृष्ठ छापणावळ : सिल्टीमूपॅक्ट—माशेल